गोरवां विकून काबार केलीं. काम - धंदो आशिल्ल्या मनशांक गोरवां कोणें सांगल्यांत तीं! आबाचे दोगूय पूत शिकून शारांत कामाक लागले. पयशे जोडपाक लागले. देखून तांकां कश्टांची गोडी उरली ना. आबा मात आपणाच्यान जाता तितले कश्ट निमाणे मेरेन करतालो. फाविल्ल्या वेळार गोरवां घेवन दोंगरार वतालो. लोकांक वखदां दितालो. आतां ताचें जाण्टेपण जाल्लें पूण उमेद मरूंक नाशिल्ली.

एक दीस वाऱ्या सारखी खबर आयली. सरकार दांड्या दोंगर कापून तेवटेन बायपास रस्तो व्हरपाक सोदी. आबाच्या कानार ही खबर पडली तेन्ना तो चाळवलो. आनीक एक आंदोलन करचें पडटलें अशें ताणें मनांत येवजीलें. फाटलो सगलो इतिहास ताका उगडास जालो. आपूण आसासर दांड्या - दोंगर कापूंक दिवचोना अशें ताणें थारायलें. पारतंत्र्यांत पाखल्यांक आनी त्यांच्या तुबकांक भिलों ना तो आतां ह्या सरकाराक भितां? आबान त्याच दिसा पुराय गांवांक जागो करपाचें थारायलें. आंदोलनाचो विचार आबा मेळत ताच्या कानांत फुंकीत गेलो. गांवाच्या फुडाराखातीर दोंगराचें म्हत्व आबाक एकट्याकूच खबर आशिल्लें. ताचे वांगडचे जाण्टेले केन्नाच सोपिल्ले. गांवांत आशिल्ले ते चडशे तरण्या रगताचे तरणाटे. सरकाराक ते आयकुचेनात हाची आबाक खात्री आसली. आबान तिन्हसांजचे मांडार सगळ्यांक जमपाक सांगलें आनी तो तांची वाट पळयत बसलो. पूण आबाच्या उल्याक जाप दिवन कोणूच तरणाटे मुखार सरले नांत. तेन्ना आबा निर्शेलो पूण ताणे धीर सोडलो ना.

दोंगर वाटावपाक ताणे एकट्यान जायते यत्न केले. खासा ताचे पूत लेगीत ताच्या आदाराक धांवले नांत. हाकालागून सरकाराचें आयतेंच फावलें... रस्तो करपाची सगली तयारी नेटान चलपाक लागली. तेन्ना मात आबा पुरायेन निर्शेलो. पयलेच फावट ताका आपणाल्या जाण्टेपणाची जाणवीक जाली आनी ताणें हांतरूण धरलें.

बुलडोझराचो आवाज दोंगरार जावपाक लागलो आनी आबा सामकोच अस्वस्थ जालो. बुलडोझर दोंगर कातरता त्या आवाजान ताच्या जिवाक कितें भोगतालें देवाक खबर. निमाणे खीण मेजताना लेगीत तो 'दोंगोर वाटयात' म्हूण वथरेतालो. बुलडोझराचो आवाज मोठ्या - मोठ्यान जायत गांव पोखरता सो दिसपाक लागलो. मदींच ताचो व्हडलो आवाज जालो आनी आबान जीव सोडलो.

आबा गेलो. पूण 'वाटायात... दोंगोर वाटायात' हीं आबालीं उतरां ताच्या दोगूय पुताच्या कानांत अद्याप घुमतालीं.

# धंद्याचो एक दीस

आयज बुधवार. फोंडेंचो सप्तकांतलो बाजार. बबन सकाळचीं स वरां जावचे पयलींच जागो जालो. शीं खातालें. तरीय आळशेपणां फापडून तो सडसडीत उठलो. हांतूण गुठलावन ताणें कोनशाक आशिल्ले तामरेतीचेर दवरलें. कळशांतलें उदक ताणें तांबयांत रकयलें आनी तो खोपट्यांफाटल्यान आशिल्ले खणीर वचून आयलो. उपरांत ताणें रस्त्याक फुडो करून सडसडीत तोंड धुलें आनी हातपांय धुवन तो परतो भितर सरलो.

लक्ष्मीक जाग आयली तशी ती सडसडीत उठली. तोंड धुंवचे पयलींच तिणें रांदनींत उजो पेटयलो आनी बबनाखातीर चायेक दवरलें. बबन कपडे आंगार चडयत रांदनीकडेन आयलो. लक्ष्मीन रांदनींतली नदर वयर काडीनासताना बबनाक हटकिलो.

'कित्याक उठयलेंना म्हाकां?

'न्हिदूंदी म्हळें सुशेगाद'

'आनी च्या कोण करता आशिल्लो?'

'आयज बाजार न्ही गो? घेतलों आशिल्लों बाजारांत'.

'घरची च्या बरी लागनां तुमकां' - लक्ष्मीन गाल फुगोवन म्हळें.

'तशें न्ही गो. फकाणां केलीं हांवेन'

'किदें हाडटले म्हाका बाजारांतल्यान?'

'काल सांगिल्लें तें'.

'बरी याद उल्ली मूं तुमकां' - अशें म्हणून लक्ष्मीन फुटी च्या रकोवन बबनाक दिली. डब्यांत हात घालून तिणें दोन बिस्किटी काडल्यो आनी ताचे मुखार दवरल्यो.

बबनाची च्या पिवन जाता म्हणसर दोगांय भुरगीं उठून बबनासरीं आयलीं. व्हडलो पांच वर्सांचो चलो किशोर आनी साडेतीन वर्सांची चली किशोरी.

'बाबा......' किशोरान तोंड उक्ते केलें.

'कितें रे?'

'म्हाकां स्वेटर जाय'.

'हाडटां आं. मस्ती करप ना'.

'आनीं म्हाका बावलो जाय.... नाची करता तशलो'.........किशोरायें आयकून किशोरीनूय मागणी केली.

'हाडुंया आंऽऽ. शाणें तें' सकाळीं फुडें भुरग्यांचे तोंड वांकडे जावं नाका म्हूण बबनान म्हणून सोडलें. मात दोगांय भुरगीं खूश जालीं. हरशीं नाजाल्यार सकाळीं फुडें जागीं जालीं म्हण्टकीच तांची कितें ना कितेंतरी किरकीर आसता. बायल आनी भुरगीं खूश आसलीं म्हण्टकीच बबनाच्या जिवाक बरें दिसता.

च्या पियेवन जातकीच बबनान भितरलेवटेन दवरिल्लो चादरांचो गठ्ठो भायर काडलो. दोगांय भुरग्यांची पापी घेतली. बायलेक 'येता गो' म्हणून पांयांक जोतें चडयलें. चादरांचो गठ्ठो माथ्यार मारलो आनी सोमतोच रस्त्यार देंवलो. फोंडे बाजाराचे दिकेन वचपाक ताणें बेगबेगीन पावलां उबारलीं.

फोंडेचो बाजार सक्काळीं फुडें भरता. लागशिल्ल्या गावांतल्यान लोक भाजी, केळीं, नाल्ल असो तरेकवार वेपार घेवन येतात. जितले सकाळीं बेगीन लोक बाजारांत पावतात तितले बेगीन तांकां गिरायक मेळटा आनी परत बेगीन घरा वचपाक मेळटा. जायते लोक बाजार करून कामाचे कामाक वतात. सकाळचीं आठ वरां जाता म्हणसर बाजार चिक्कार भरता आनी इकरा वरां जावचे पयलींच पुराय उलगता. फेरीवाले आनी हेर वेपाऱ्यांक लेगीत होच वगत सांबाळचो पडटा. ना जाल्यार पुराय दीस फुकट वता. दुसऱ्या वाठारांतल्यान येवपी वेपारी आनी दलाल लोक सकाळचीं आठ वरां जांवचे पयलींच पिकपींनी वेपार भरून नाच जातात.

बबन चलत पिंपळा पेडाकडेन पावलो तसो तो देवाक पांयां पडपाक देवाचे घुमटेकडेन गेलो. चादरांचो गठ्ठो ताणें उखलून पेडार दवरलो. पांयांचे जोते काडून आनी दोळे धांपून ताणे देवाक नमस्कार केलो. 'देवा पाव, बरें गिरायक जाल्यार पुरो'. ताणे मनांतल्या मनांत देवाकडेन मागलें. देवाची विबूत कपलाक लावपाक ताणें दोळे उक्ते केले आनी ताची नदर थंय दवरिल्ल्या केळ्याचेर पडली.... ताचे पयलींच कोणेंतरी बाजाराक वतना देवाक केळें दवरिल्लें. बबनाक दिसलें देवानूच तो आपणाक प्रसाद दिला. ताणें तें केळें हातांत काडलें आनी भावार्थान थंयची विबूत काडून कपलाक लायली. देवान प्रसाद दिला म्हण्टकीच गिरायक बरें जाले बगर रावचें ना.बबनाक देवान हो पयलेच

फावट प्रसाद दिवंक ना. हाचे पयलींय जायते फावट दिला आनी जेन्ना जेन्ना प्रसाद दिला तेन्ना ताका गिरायकूय बरें जालां. देवावयल्या भावार्थान ताचें मन भरून आयलें. घुमटेवसल्यान ताणें परत एक फावट पळयलें आनी पांयांक जोतें चडयत चादरांचो गठ्ठो माथ्यार घेतलो.

पयरूच ताणें मुंबय वचून चादरांचो नवो स्टॉक हाडिल्लो. लोकांची रूच आतां पयलीं भशेन उरूंक ना. लोक नवे नवे डिजायन आनी तरेकवार रंगाचो म्हाल सोदतात, खंयच्या वगतार कसलें गिरायक मेळत सांगपाक जायना. ते भायर वेपाऱ्यांमदींय खूब सर्त वाडल्या. पयलीं बबन आनी हेर दोग - तीग जाण चादर घेवन बसताले. आतां हो दोगां - तिगांचो आंकडो धा - पंदरांचेर पावला. सगलेच जाण एकामेकांचें गिरायक ओडून व्हरतात. हाका लागून कोणाक फायदो जाता तो जाता. जाल्यार केन्ना - केन्नाय फायद्या भशेन लुकसानूय सोसचें पडटा. सप्तकभर जे जे सुवातेर बाजार भरता थंय - थंय बबन चादरां घेवन वता. शेनवार - बुधवार फोंडें, सोमाराक म्हाड्डोळा, सुक्रारा बाणस्तारी, बिरेस्ताराक दिवचले जाल्यार मंगळाराक राय नाजाल्यार शिरोड्यां अशे तरेन ताचे सगले दीस वांटिल्ले आसतात. शेनवारा सांजवेळां तो मुंबय वता आनी आयतारा रातीकडेन चादरांचो नवो स्टॉक घेवन परतो येता. अशेतरेन पुराय सप्तकभर ताचें वेळापत्रक थरिल्लें आसता.

बबन मुळचो लोंड्यावयलो. धा वर्सां पयलीं कोंकण रेल्वेचें काम सुरू जालें तेन्ना हेर लोकांवांगडा तोय एक कामगार म्हूण आयिल्लो. खणपाचें, फातर फोडपाचें बरें काम मेळिल्ल्यान बबनाचीं कांय वर्सां मजेंत गेलीं. मजगतीं ताणें फोंडें लागसार कुट्टी हांगा आशिल्ले झोपडपट्टेंत हेरांवांगडा आपणालीय एक झोपडी बांदली. काम करता आसतानाच लक्ष्मीवांगडा ताची वळख जाली. उपरांत तांचें लग्न जालें. ज्युस्त एका वर्सान किशोराचो जल्म जालो. सुरवातेचीं कांय वर्सां कशीं गेलीं कांय कळ्ळेंच ना. पूण कोंकण रेल्वेचो वावर पूर्ण जालो आनी वयल्यान आयिल्ले सगले कामगार काम नाशिल्यान बेकार पडले. कांय जाणांनी आपणाली साटली - पोटली कवळ्ळी आनी काम सोदीत ते खंय पावले देवाक खबर. जे साडेसुडे आशिल्ले तांणी मेळत तीं कामां करपाक सुरवात केलीं.

कोंकण रेल्वेचें काम सोपलें आनी बबनाचे सामके हाल जाले. पयलीं तो एक जीव आसताना बरें आशिल्लें, पूण आतां ताचे वांगडा ताची बायल लक्ष्मी आनी चेडो किशोर आशिल्लो. ते भायर बायलेक परते दीस गेल्ले. जायतीं वर्सां गोंयांत काडिल्यान गोंयचे जिणेची संवकळ जाल्ली. हांगासल्ल्या लोकांवांगडा वळख वाडिल्ली. स्वताची झोपडी

आशिल्ल्यान जाग्याचें सुख आशिल्लें. एकटो जाल्यार खंयूय वचूं येतालें. पूण आतां ताचे वांगडा ताचो संवसार आशिल्लो. कांय दीस चिंतून चिंतून ताची तकली विरार जाल्ली.

पूण बबनान धीर सोडलो ना. कांय दीस ताणें हमालीपण केलें. कोणालेंय काम आसल्यार लोक ताका आपोवन व्हरताले. पूण तें काम एकाच दिसाचें आसतालें. दुसऱ्या दिसा परतें कसलें काम मेळटलें हाची वाट पळोवची पडटाली. सद्दां सकाळचो तो बेगीन उठ्ठालो आनी भुती घेवन फोंडेच्या प्रासावेल्या सांकवार बसून कसलेंय काम मेळटलें म्हूण आशेन रावतालो. पूण काम मेळ्ळ्यार मेळटालें. ना जाल्यार दिसां फाटल्यान दीस फुकट वताले. अशे तरेन ताची परिस्थिती सामकी वायट जाल्ली. कसलेंय काम मेळ्ळें जाल्यार तो तिनसांजे येतनां घरांत ना तें सामान उगडासान हाडटालो आनी काम मेळ्ळें ना जाल्यार ताका हात हालयत परत येवचें पडटालें. तो कितेंयतरी हाडटलो म्हूण लक्ष्मी ताची वाट पळयत रावताली. देखून ज्या दिसा काम मेळना त्या दिसा लक्ष्मीचे नदरेक नदर दिवपाचो धीर ताका जाय नाशिल्लो.

थंडेच्या दिसांनी झोपड्यांनी रावपी लोकांचे सामके हाल जाताले. थंडी सोसपाक जाय नाशिल्ली. बबन कशें तरी शीं सोसतालो. पूण धाकटुलो किशोर आनी ताका वेगांत घेवन कडकडपी लक्ष्मीक पळोवन बबनाक वायट दिसतालें. देखून एक दीस काम सोपोवन घरा येता आसताना तो चादर घेवपाक गेलो. पूण चादरांचे दर ताका परवडपासारखे नाशिल्ले. निमाणें वांटपण करून - करून देडशें रुपयांची एक चादर ताका पन्नास रुपयांक मेळ्ळी.

त्या दिसासावन बबनाच्या मनांत वेगळोच विचार घोळपाक लागलो. आपणेंय असो चादरांचो धंदो केलो जाल्यार? आनी ताणें तशी तयारी करपाक सुरवात केली. मेळत तसलें काम करून ताणें कांय पयशे गांठीक मारले. सुरवातेक ताणें एका एजंटाकडल्यान चादर घेतले. ह्या धंद्यात ताका वेगळोच अणभव आयलो. फायदो जालो जाल्यार बरोच फायदो जातालो. देखून हो धंदो ताका मानवलो. उपरांत तो मुंबयच्यान म्हाल हाडपाक लागलो आनी आपणाल्या पांयार उबो रावलो.

फोंडें बाजारांत पावलो तशी बबनान एक सुवात सोदून काडली. चडशी सुवात फेरयेवाल्यांनी आदल्या दिसाच आडावन दवरिल्ली. बबनान चादरांचो धंदो सुरू केल्लो तेन्ना चड फेरयेवालेय नाशिल्ले आनी चादरूय घेवन कोण चड बसनाशिल्लो. पूण आतां ह्याय धंद्याचे बरे दीस फाटीं पडल्यात. मेळत ते लोक होच धंदो करपाक लागल्यात. बबनान कुशीच्या फेरयेवाल्यांचेर एक नदर मारली आनी आपणालो चादरांचो गठ्ठो

सोडयलो. बेस बरे रितीन ताणें तीं मांडून दयरलीं आनी गिरायकां येवपाची तो वाट पळयत बसलो.

कुशीक बशिल्ले फेरयेवाले तोंडान बोब मारून गिरायकांक लागीं आपयताले. म्हालाचो उण्यांत उणो दर सांगून वेपाराची जायरात करून गिरायकांक आकर्शीत करताले. बबनाक अशी तोंडान बोवाळ करपाची संवय नाशिल्ली. आपणाल्या नशिबांत आसा तें आपणाक मेळटलें म्हणून तो बसून रावतालो. आनी खऱ्यांनीच केन्ना - केन्नाय गिरायकां बोवाळ करून आपोवप्यांक फाट करून बबनावसल्यान चलून येतालीं.

'कशी दिली रे जोडी?' - एके किरिस्तांव बायलेन चादरांक हात लावन विचारलें. बबनान पळयलें. गिरायक बरें पेजाद आसा.

'तिनशें रूपया बाय.... यो व्हर... तुका म्हारग सांगना'.

'आवयसऽऽ कितो म्हारग रे?' 'दोनशांक दिता?'

'ना बाय दोनशांक परवडना.....अडेचशें दी.'

'दोनशें पंचविसांक दिता?'

'आनीक धा रूपया सुबेज दी...' बबनान वांटपण वाडयलें आनी ती बायल दुसरेकडेन गेली. बबनाक बेश्टेंच पिकासांव जालें. कांय बरें गिरायक वगडायलें. बरी बोंडी जातली आशिल्ली. हरशीं ती चादरांची जोडी दोनशीं रूपयांक दिल्ली जाल्यार ताका शंबर रुपया फायदो जावपाचो. वेल्यान तिणें ती सव्वा - दोनशांक मागिल्ली. बबनान आपणाकूच दोश दिलो. चड आशा जाली ताका. पूण ताणें व्हडलेंशें मनार घेतलें ना. बाजाराचो दीस आयज, जातलें गिरायक म्हूण तो फुडल्या गिरायकांची वाट पळयत बसलो. कांय जाणां येतालीं. चादरांक हात लावन पळयतालीं आनी दर विचारीनासतना मुखार वतालीं. कांय जाणां चादरांची लांबी - रुंदी विचारून घेतालीं, कांय जाणां चादर सोडोवन दाखोवंक लायतालीं. दर विचारतालीं आनी मुखार वतालीं. मागीर बबनाक ती चादर परती घडी करून दवरची पडटाली. बेश्टे फोल्गाक आयिल्ल्या लोकांची ताका तिडक मारताली. पूण गिरायकांचे आशेन नाका तोंड धांपून वगी रावचे पडटालें. ते भायर हे गजालीची ताका आतां सामकी संवय जाल्ली. बाजारांत बशिल्लेकडेन ताका तरेकवार लोक पळोवंक मेळटाले.

'कशी रे जोडी?' आनीक एकलेन विचारलें.

'तिनशें रुपया बाय.'

'आवयस! तिनशें रूपया?' 'देडशांक दिता?'

'देडशांक परवडना बाय.... दोनशीं दी' - बबनान पयलींच्या अणभवाक धरून सांगलें.

'देडशांक दिता जाल्यार दी..... ना जाल्यार चल्लें हांव' - अशें म्हणून खऱ्यांनीच ती चलपाक लागली.

'पावणे दोनशीं दी यो व्हर' - बबनान पयशे उणे करून सांगले. पूण ती परतना तें पळोवन बबनान दर आनीक उणे केलो.

'यो व्हर... देडशें जाल्यार देडशें'. पूण बबनान 'देडशें......' म्हळें तें आयकनासतना ती मुखार गेली.तोंडाकडेन आयिल्लें आनीक एक गिरायक बबनान वगडायलें.

उपरांतचीं पांच - धा मिनटां अशींच गेलीं. इतले म्हणसर एक दादलो आयलो. ताचो उलोवपाचे झेत पळोवनूच बबनाक तो थंयच्यान बेगीन गेल्यार पुरो जालें. ताणें येतनाच विचारलें-

'कशी रे जोडी?'

'दोनशीं रूपया'.

'दोनशीं रूपया! कितें फोल्गाक येयला रे?'

'कितले दिता सांग?'

'मुंबय असल्या चादरांच्यो दोनशांक दोन जोडयो मेळटात'.

'तशें जाल्यार मुंबयच्यानूच कित्याक हाडिना?' - अशी जाप बबनाच्या तोंडार आयिल्ली. पूण तशें म्हणप आपणाक सोबचें ना अशें येवजून ताणें तोंडार आयिल्लीं तीं उतरां भितरले भितर गिळ्ळीं. तो दादलो तोंडाक येता तें उलयत मुखार गेलो. बबनाकूय तो केन्ना एक फावट थंयच्यान गेल्यार पुरो जाल्लें.

मागीरचीं सगळींच गिरायकां तशींच लटर-फटर. दर विचारून विचारून वतालीं घेवपाक कोणाकूच नाका आशिल्लें. परतो- परतो दर सांगून सांगून बबनाक सामको वीट आयलो. पूण ताणें आशा सोडूंक नाशिल्ली. गिरायक कोणाच्या रूपान येत म्हूण सांगपाक जायनाशिल्लें. देखून तो वाजेनासतना येतल्या - वतल्याक हांसरें तोंड करून दर सांगतालो.

दीस माथ्यार आयलो तसो पुराय बाजार उलगलो. बाजारांतले लोक इल्ले - इल्ले करून पातळ जाले. एक तरी गिरायक मेळ्ळ्यार पुरो आशिल्लें. बबनाक घराकडेन आशिल्ल्या बायल आनी भुरग्यांची याद आयली. बाबडीं आपूण कितें-कितें हाडटलों म्हूण वाट पळयत रावतली. रित्या हातांनी घरा गेल्यार आपूण लक्ष्मीक आनी भुरग्यांक तोंड

कशें दाखयतलों? अशें येवजून ताची तकली विरार जावपाक लागली.

कितलोसोच वगत तो तरसो वरून रावलो. ताका तान आनी चुरचुरीत भुकूय लागिल्ली. पूण बायल आनी भुरग्यांची जाणवीक चड खर आशिल्ली. देखून तान आनी भुकेचें ताणें तितलेंशें मनार घेतलें ना. आतां घरा कशें वचप होच एक मोटो प्रश्न ताचे मुखार आशिल्लो. सांज जायत आयली, पूण एकूय गिरायक आयलें ना. आनीक रावून कांयच फायदो नाशिल्लो. तो जाग्यावेलो उठलो आनी ताणें मांडून दवरिल्लीं सगळीं चादरां एकठांय केलीं. गठ्ठो बांदलो आनी उबारून माथ्यार घेतलो.

घरा वता आसतना बेश्टोच आनीक एक यत्न म्हूण तो मेळत ताका 'चादर जाय' काय विचारीत वचपाक लागलो. तो सामकोच अकलेक आयिल्लो. कोणेंय शंबर रूपयांक लेगीत जोडी घेतल्यार तो दिवपाक तयार आशिल्लो. सकाळचीं दोन वरीं गिरायकां वगडायलीं आनी सगली वाट लागली. देखून तो आपले - आपणाकूच दोश दिवपाक लागलो.

'कशी दिली रे जोडी?' - रस्त्याकुशीच्या एका पसरकारान उक्त्या पोटार हात भोंवडायत विचारलें.

'देडशें रूपया' - बबनान वगीच फट मारली.

म्हाका म्हूण सवाय दिवचो ना?' - पसरकार वांटपण करपाक लागलो.

'माग.... कितले दिता तें सांग.'

'सत्तर दितां' - पसरकारान तोंड उक्तें करीनाफुडें बबनान गठ्ठो सकयल दवरलो. सकाळचो अणभव परतो येवपाक नाका म्हूण ताणें तोंड उक्तें केले ना. चादरांची जोडी काडून ताणें पसरकाराले ताबीर दवरली. पसरकार पांचशांची नोट भायर काडटा तें पळोवन ताणें मोडीचेच पयशे दिवपाक सांगले. पसरकारान मेजून सत्तर रूपया दिले. तीस रूपयांचे हुननीत लुकसाण बबनाक सोसचें पडलें. तरीय भुरग्यांक कितेंय व्हरपाक मेळटलें म्हूण तो खोशी जालो. आनीक गिरायकाची वाट पळयनासतना ताणें तडक घरची वाट धरली.

# फातरपटो

किरींगऽऽ... किरींग.. फोनाच्या आवाजान हांव सुरत न्हिदेंतल्यान जागो जालों. उश्याकडलो टॉर्च काडून हांवें वण्टीवेले घडयाळीचेर उजवाड घातलो. आवयस्. रातचीं साडे बारा जाल्लीं. एदे व्हडले राती कोणालो फोन काय? कितें तरी इमर्जन्सी आसतली. दोळे चोळीत हांव फोनासरीं आयलों आनी फोन उखल्लो... 'हॅलो?'

'गांवकार दी मात्सो?'

'कोण गांवकार?'

'गांवकार! आनीक कोण?' कोण तरी अधिकारवाणीन उलयतालो.

'ह्या घरांत सगलेच गांवकार. हांव गांवकार... म्हजे भाव गांवकार... बापूय गांवकार... पूत गांवकार...'

'तो रे कॉन्ट्रेक्टर आसा तो.'

'ह्या घरांत आमी दोग जाण कॉन्ट्रॅक्टर आसात.'

'कला भवनाचो कॉन्ट्रक्ट कोणाकडेन आसा?'

'हां! म्हजेकडेन... हांवच तो.'

'चड सुवेज उलयता मरे तूं... हांव कोण तो जाणा तूं?'

'कोण उलयता?'

'मिनिस्टर फॉर कल्चरल डॅव्हलपमेंट...'

'सॉरी सर! पयलीं वळखलों ना हांव'... मुखावेलें कॉन्ट्रक्ट मेळटलें जाल्यार मंत्र्यांमुखार आमकां अशें नमतें घेवचें पडटा.

'कला भवनाचें काम खंय पावलां?'

'चलता सर!'

'आनीक कितें उरलां?'

'भितल्लें काम पुराय जालां. भायल्या कंपाउंडाचें काम जालें म्हणटकीच जालें'.

'तें काम फाल्यांच सोंपय... परां उक्तावण दवरलां'.

'एकाच दिसान कशें जातलें सर?'

'परतें विचारता?'

'सॉरी सर...'

'आनी हें पळय...'

'...' परतें परथो उलयलो अशें ताका दिसत म्हूण हांवें कितें काय म्हूण विचारलें ना. पूण तोच मुखार उलयलो.

'फातरपटो बीन तयार आसपाक जाय.. म्हजें नांव मोठ्या अक्षरांत आसुंदी.'

'बरें सर!... 'हांवें म्हळें आनी ताणें फोन घडांयच करून सकयल आपटिलो तें म्हाका आवाजावेल्यान कळ्ळें.

जालें! रातच्या साडेबारांकूच म्हजे उरिल्ले न्हिदेचें खोबरें जालें. फाल्यांच्या दिसाभितर सगलें उरिल्लें काम पुराय जावपाक जाय. म्हणटकूच फुडलीं सगलीं कारस्थानां आनी यंत्रणा आतांच सुरू जावपाक जाय. देखून फोनाची डिरेक्टरी सोदपाक हांवें मेजाचें गवेत उक्तें केलें...

पाड पडिल्लीं सरकाराचीं कामांच अशीं! पंदरा दिसां फाटीं सुरेंद्र नायकान असोच जीव खाल्लो. तेन्ना तो कला आनी संस्कृताय मंत्री आशिल्लो. सरकार पडपाचें आसा हाची सुलूस ताका दोन दीस आसात म्हळ्यार लागली. आनी पाड पडिल्लो एकाच दिसान काम सोंपय म्हूण फाटीक लागलो.

'आजूच सगलें काम प्रॉंत जावपाक जाय' - ताणें ऑर्द सोडली.

'पूण एकाच दिसान कशें आटापा हाडूं सगलें?'

'केल्यार कितेंय जाता. कितें कितें उरलां जावपाचें?'

'भायल्यान आडो उरला काडपाचो. त्या भायर भितर झाडां रोवपाचीं उरल्यांत.'

'आडो मारलो झक... तो केन्नाय बांदू येता... झाडां रोयल्यांत अशें दाखोवपाक झाडांचे मोटे मोटे खांदे हाडून पूर...' खासा मंत्र्याच्या तोंडांतली भास आयकून म्हाका हांसचें काय रडचें तें कळना जालें.

'आनी हें पळय...'

'आंऽ...'

'फातरपटो बरो जावंदी.'

'बरें सर!' आनी उपरांत हांवें जाता नजो करून, लाखाचे बारा लाख मोडून

कशें तरी एका दिसान काम सोंपयलें. नवो फातरपटो बसोवन जाल्लो. कला भवनाच्या उक्तावणाक जायतो लोकूय जमिल्लो. पूण उक्तावणाचो वगत जावन लेगीत मंत्री आयलोच ना. मंत्री सदांच वेळान येतात हे लोकांक खबर आसता. देखून दिल्ल्या वेळा भायर लोक आनीक दोन वरां बसून रावले. मंत्री येना तें पळोवन लोक वाजेवपाक लागले. इतले म्हणसर कोणे तरी खबर हाडली. दोन वरां पयलींच सरकार पडिल्लें. लोक पयलींच वचपाची तयारी करताले. 'सरकार पडलें' ही खबर वाऱ्याभशेन सगल्याक पातळ्ळी. आनी बांद कोसळटकीच बांदांत उपाट भरिल्लें उदक जशें खिणांत नाच जाता ते भाशेन जमिल्ले सगळे लोक नाच जाले. म्हाका मात मुखार कितें करचें तें येवजना जालें. देखून खंती मनान कितलोसोच वगत हांव एकटोच थंय बसून रावलों. नवो फातरपटो बी बसोवन जाल्लो. ताचें आतां कितें करपाचें ते थारावंक नाशिल्लें. खर्चूय बरोच आयिल्लो. हो खर्च आतां खंय दाखोवपाचो तें हांवें थारावंक नाशिल्लें. कॉन्ट्रॅक्टर जावचे परस रस्त्यार बसून लोकांले बूट पॉलीश केल्ले बरे अशें वगीच दिसपाक लागलें. मात त्या दिसासावन हांवें जतनायेन पावल घालपाचें थारायलें. पूण हे मिनिस्टर म्हळ्यार सामके ब्रूत लोक. तांकां आस - भास कांय समजना हें हांव अणभवान जाणा आसलों.

आतां ह्या मिनिस्टर सायबाची अशीच कितेंय भानगड जाल्या आसतली. ना जाल्यार असो एकदम रातीकडेन म्हजे फाटीक लागचो नाशिल्लो. सरकार पडपाचें आसलें म्हणटकीच तांकां रोखडोच वास लागता. मागीर तांकां कितें करूं आनी कितें नाका कांयच समजना. उण्यांत उण्या वेळाभितर तांकां मागीर हाताक लागीं मेळटा तें सुतलावचें पडटा. कित्याक तर आपूण परतो थंय पावत म्हणपाचो ताका भरवंसो नासता. आपलें नांव जाल्यार चडांत चड सुवातींनी जल्मभर कोरांथून उरचें अशें तांकां मनांतल्यान दिसता. देखुनूच ते सरकार पडटा आसतनाच आपणालें सादोवन घेतात. थंय तांकां मागीर कसलेंच सुवेर - सुतक लागना.

मेजाच्या गवेतांतल्यांन हांवें फोनाची डिरेक्टरी भायर काडली आनी गवेत धांपलें. कोणाकोणाक फोन लावचे तें कांयच थारावंक नाशिल्लें. कितें पयलीं करचें आनी कितें मागीर करचें तेंय थारावंक नाशिल्लें. देखून कांय खीण बेठीच डिरेक्टरी चाळीत रावलों. फातरपटो पयलीं तयार जावपाक जाय देखून म्हापशेंकाराक पयलीं फोन लायल्यार बरें अशें येवजून हांवें म्हापशेंकारालो नंबर लायलो. रींग जावपाक लागली. वण्टीवेले घडयाळीचेर हांवें नदर मारली. रातचें एक वर जावपाकडेन पाविल्लें. रातीकडेन लोकांक त्रास दिवपाक म्हज्या जिवार येतालें. पूण म्हजेकडेन कांयच उपाय नाशिल्लो.

'हॅलोऽऽऽ' - बायल मनशेचो याजेल्लो आवाज आयकूंक आयलो.

'म्हापशेंकार आसा?'

'न्हिदला तो. कितें सांगपाक जाय तें सांग. हांव सांगता ताका.'

'कोण उलयता काय विचार मुगो' - म्हापशेकारालें प्रॉम्टींग फोनावेल्यान म्हज्या कानार पडलें. म्हणटकीच म्हापशेंकार जागो आसा तर! तिणें कोण उलयता काय विचारले पयलींच हांवें सांगून सोडलें -

'हांव गांवकार उलयतां.

कॉन्ट्रॅक्टर...'

'सकाळीं करशात फोन...?'

'ना... ना... प्लीज आतांच' - हांव अशें म्हणटा आसतनाच म्हपशेंकार फोनालागीं आयलो तें म्हाका कळ्ळें. ताणें तिचेकडल्यान रिसीव्हर घेतलो.

'हॅलोऽऽ...'

'आं... म्हापशेंकार सायब... हांव गांवकार उलयतां' - नांवामुखार सायब जोडल्यार कामां मात्शीं वेगीन जातात हें म्हाका अणभवान खबर आशिल्लें.

'कितें रे... एदे व्हडले रातचो फोन सो केलो?'

'एक अर्जंट काम आसा... फातरपटो जाय आशिल्लो एक'.

'केन्ना जावपाक जाय?'

'फाल्यांच जावपाक जाय रेडी...'

'फाल्यां...!? कसोच जावचो ना. एका दिसान म्हूण फातरपटो जाता?'

'प्लीज उपकार कर. कशेयभशेन फाल्यां जावपाक जाय...'

'कित्याक रे? इतली गडबड कित्याक? सरकार बी पडपाचें ना मरे?'

'तें चिंतपाक म्हाका वगत ना. म्हजे शेंपडेक सामको उजो लागला.'

'तशें जाल्यार म्हाका सगलीं कामां पॅडींग दवरचीं पडटलीं मरे?'

'पळय, मात्शे उपकार कर...'

'खर्च दोब्राद येतलो पळय...'

'उपकारता... सकाळीं मॅटर हाडून पावयतां... बरें तर... गुड नायट'.

हांवें फोन सकयल दवरलो आनी आनीक कोणाक फोन लावपाचें तें चिंतपाक लागलों. वावुशाचो उगडास जालो आनी हांवें परतो फोनाक हात घातलो. बाबुश लेबर कॉन्ट्रॅक्टर. हेर वारीक बारीक कामां ताचेकडल्यान करून घेतल्यार बरीं अशें येवजून

हांवें बाबुशाचो नंबर लायलो. जिरत चार फावट रींग जावन दुसरेवटेन फोन उखलो आनी बाबुशाच्या घरांतलें चित्र म्हज्या दोळ्यांसामकार उबें रावलें... फोनाच्या आवाजान ताची धाकटी भुरगी जागी जावन रडटाली... तांकां ओगी करीत ताची बायल एदे व्हडले रातचो फोन करतल्याक खेपताली... बाबुश रिसीव्हर हातांत धरून तिका ओगी रावपाक सांगतालो... पूण ती फरफरत रावली... मागीर बाबुश उलयलो -

'हालोऽऽ? कोण?'

'आरे हांव गांवकार उलयतां... कॉन्ट्रॅक्टर...'

'कितें जालें? एदे व्हडले रातचो सो?'

'आरे कितें सांगूं तुका? मिनिस्टर सायब सामकोच फाटीक लागला मरे... कला भवनाचें काम फाल्यांच पुराय कर खंय'.

'मागीर हांव कितें करूं?'

'थोडे मानाय पळय आनी कला भवना भोंवतणची सगली सुवात लींप करून घे.'

'फाल्यांच जावपाक जाय?'

'हय... हय... फाल्यां सगलें प्रॉत जावपाक जाय... आनी हें पळय...'

'आनीक कितें?'

'मात्शें पांचवें दिसपाक जाय... फाल्यां रातीकडेन थोड्यो झाडांच्यो खांदयो हाडून पुरच्यो...'

'बरें...'

'फाल्यां मेळचें मागीर...'

'बरें...' अशें म्हणून ताणें रिसिव्हर सकयल दवरलो. आनीक एक काम जालें म्हूण म्हज्या जिवाक बरें दिसलें. आनीक खंयचीं कामां करपाचीं तांचो हांव उगडास करपाक लागलों. मागीर दिसलें उरिल्लीं सगलीं कामां बरोवन काडिल्लींच बरीं. विसरपाक आनी नाका. अशें चिंतून हांवें एक पेपर काडलो आनी एका फाटल्यान एक अशीं सगलीं कामां बरोवन काडलीं. ताचेर एक - दोन फावटी परत नदर मारली. कितेंय चुकून उरलां काय पळयलें. सगलें सारकें जालां अशें दिसतकूच एक आळस आयली. परती हांवें घडयाळीचेर नदर मारली. रातचीं अडेच वरां जाल्लीं.

आनीक एक चार वरां न्हीद मेळटली म्हूण परतो आड पडलों. जांबयो येताल्यो. दोळे जड जाल्ले. पूण न्हीद येना जाली. रातभर कुशी परतीत रावलों. दोळे जड जावन लेगीत सकाळचो उजवाड जायसर दोळ्याक दोळो लागलो ना. उजवाड जायना फुडें

सळसळीत उठलों. हांवेंच आळशेपणां केल्यार कामां कशींच लागीं येवचीं नात हाची म्हाका खबर आशिल्ली. हो म्हजो पयलोच अणभय नाशिल्लो. देखून सगलीं सकाळचीं कामां हांवें वेगोवेग आटापाक हाडलीं आनी भायर सरून स्कुटर घेवन नीट कला भवनाकडेन गेलों.

जिस्त साडे आठ वरांचेर बाबुश मानाय घेवन आयलो. तांकां हांवें खंय खंय कितें करपाचें तें सांगलें. सांजवेळ मेरेन सगलीं कामां सोंपूंक जाय हाची चत्राय दिली. बाबुशाक कुशीक व्हरून कानांत चार गजाली सांगल्यो. त्यो गजाली भायर फोडपाच्यो न्हय. मागीर स्कुटर घेवन नीट म्हापशेंकाराक मेळपाक गेलों. म्हापशेंकार कामाक लागिल्लो. आमचेंच काम चालू आसा तें पळोवन जिवाक सूऽऽ जालें. हांव आयलां तें पळोवन ताणें म्हाका बसपाक कदेल दिलें. हांवें मॅटर काडून ताचेकडेन दिलें आनी हांव बसलों. म्हपशेंकाराक म्हजी काकूट दिसताली. तें हांवें ताच्या दोळ्यांत पारखिलें. तरीय ताणें म्हजीं फकाणां मारपाची संद वगडायली ना. 'गांवकारबाब... हे फावटी तरी उपेग जातलो मरे?'

'पळोवया कितें जाता तें.'

'अशें केल्यार कशें...?'

'कितें तें...?'

'मंत्र्याचें नांव पयलीं घालचें न्हय...'

'मागीर कितें घालपाचें...?'

'फक्कत मिनिस्टर फॉर आर्ट ॲन्ड कल्चर म्हूण घालपाचें आनी उक्तावण जाय मेरेन मिनिस्टर उरलो जाल्यार वगतारूच ताचें नांव हाडून दसोवपाचें!'

'आयडिया वायट ना. पूण आतां आमचेकडेन वगत खंय आसा?' ताच्याच उतरांनी ताका हांवें जाप दिली. सांजमेरेन फातरपटो बसोवन जावपाक जाय म्हूण ताका चत्राय दिली आनी फुडलीं कामां करपाक हांव थंयच्यान भायर सरलो.'

तान - भूक विसरून दीसभर लागून सगलीं कामां लागीं हाडलीं. जिवाक पुरो जाल्लें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं साडे णव वरांचेर उक्तावण जावपाचें आशिल्लें. देखून वळखीच्या आनी मेळटा त्या लोकांक आपोवणें दिलें. पत्रकारांक फोन करून कळयलें. फोटोग्राफर सांगलो. कला भवनाचे फुडले वटेन झाडांचे खांदे हाडून पुरून घेतले. परत एक फावट सगल्याचेर नदर मारली आनी नीट घरा आयलों. घरा पावलों तेन्ना रातचीं धा वरां जाल्लीं. आतां तकलेचेर चड वजें नाशिल्लें. कार्यावळ बरे भशेन जाली म्हण्टकीच

सुटलों! अशें येवजीत सडसडीत न्हालों. जेयलों आनी न्हिदपाक गेलों. रातीचें जागरण तश्शें आशिल्लें. देखून आड पडनाफुडें न्हीद लागली.

कावळ्यांच्या आवाजान दुसऱ्या दिसा सकाळींफुडेंच जागो जालों. सात वरां जाल्लीं. पेपरवाल्यान पेपर हाडून पयलींच उडयल्लो. म्हाका ताकतीक आशिल्ली म्हणटकीच पेपर वाचूंक बसनासतना उबो रावुनूच मुखेल खबरांचेर नदर मारूंया म्हूण हांवें पेपर हातांत काडलो. आनी मुखेल खबर वाचून थंयचे थंय घट जालों. हांसचें कांय रडचें तेंय कळना जालें. हांवें कपलार हात मारलो आनी थंयच बसकण मारली. म्हजो दुबाव खरो जाल्लो. सरकार पडिल्लें आनी रातीकडेनूच मुखेलमंत्र्यान आपणालो राजिनामो राज्यपालाक धाडून दिल्लो.

# फटकिरें तत्वगिन्यान

रातभर दोळ्याक दोळो लागूंक नाशिल्लो. सगली रात कुशी परतीत सारिल्ली. पूण फांतोडेर मात्सो दोळो लागलो आनी वर - दोन वरां न्हिदुनूच उल्लों. कसल्यातरी आवाजान म्हाका जाग आयली. हांवेन दोळे उक्ते केले. दीस बरोच वयर सरिल्लो. मीना कुशीक बुरखो मारून अजून न्हिदून आशिल्लें. पयलेच फावट. लग्न जाल्ल्याक इतलो वगत मेरेन तें केन्नाच न्हिदून रावूं नाशिल्लें. चडांत चड सकाळचीं स मेरेन तें हांतुणार उरतालें. मागीर उठून सगलीं सकाळचीं कामां पर्थून उडयतालें. हांव सुशेगाद उठ्तालों तेन्ना सगलें तयार आसतालें. मीनाक लागुनूच हांव चड आळशी जाल्लों. म्हजीं सगलीं कामां मीना करता तें पळोवन म्हाका वायट दिसतालें. पूण ताका मात खूब समाधान मेळटालें.

चादराच्या बुरख्याभीतर 'सुंऽऽक' आवाज जालो आनी हांवेन मीनावसल्यान पळयलें. हय ह्याच आवाजान हांव जागो जाल्लों. हांवेन ल्हवूच मीनाच्या तोंडावयलो चादर कुशीक काडलो. मीना रडटालें. हांवेन ताका उठोवन बसयलें. रडून - रडून ताचे दोळे सुजिल्ले. रातभर तेंय न्हिदूंक नाशिल्लें. हांवेन ताच्या माथ्यावेल्यान हात भोवंडायलो. तसो ताका एकदम हुंडको फुटलो. हांव ताका समजावपाक लागलों....

'मीना... म्हजें आयकतलें?

'.....................'

'प्रकाश किदें आमकां सोडून गेला? येतलोच न्हय तो परतो?'

तुमकां समजूंचें ना तें. म्हाका म्हजे भुरगे दोळ्यां मुखार आसचे कशे दिसतात. आवयचें काळीज म्हजें....'

'मीना... म्हाकां किदें नाका जाल्यात ते? म्हाका म्हूण काळीज ना?' हांव मीनाक समजायतालों काय म्हाकाच हांव समजायतालों तें म्हाकां समजनां जालें. हांवेन म्हजें तोंड दुसरेवटेन घुवंडायलें आनी मीनाक कळूंक दीनासताना चादराच्या पोंतान दोळे

पुसले.

परेशाभशेन प्रकाशूय काल अमेरीकेक गेलो. आमीं ताका जायतो समजायलो. मीनान जाल्यार व्हडलो आकांतूच केल्लो. पूण ताणेंच आमकां चड समजायलीं आनी निमाणेकडेन तोच जैतिवंत जालो. दोगूय पोरांचो हावेसूच मळयायेदो. आमगेल्या इल्ल्याश्या घरांत तो मावचो नाशिल्लो. देखून उपाय नासून हांवेन ताका चड आडावपाचो यत्न केलो ना. मीना मात आपलें तें खरें करपाचो यत्न निमाणें मेरेन करतालें.

ताच्या हट्टामुखार मीनाक नमतें घेवचें पडलें. मागीर मात ताणें आपणालें मन तयार केल्लें. प्रकाशाली वचपाची सगली तयारी ताणें एकट्यानूच केली. प्रकाश वचपाक पांच दीस आसात म्हळ्यार मीनाची चडशी तयारी पुराय जाल्ली. ताचे व्हरपाचे सगले कपडे मीनान व्यवस्थीत घडी करून बॅगांत भरिल्ले. सगलो वगत तें प्रकाशावांगडा सारतालें. ताका कितें जाय कितें नाका सगलें आपूण जावन लक्ष घालून पळयतालें. गेल्या उपरांत कितें कितें करपाक जाय... कशें कशें वागपाक जाय... व गतार जेवपाक जाय... वगतार न्हिदपाक जाय... तकलेर चड ताण घेवपाक जायना... हें सगलें मीना ताका परतें - परतें सांगतालें. प्रकाश सगलें आयकून घेतालो आनी हांव सगलें मोन्यांनी पळयतालों. परेशा फाटोफाट प्रकाशूय दोळ्यां मुखावेल्यान पयस वतलो हें येवजुनूच म्हाका कितेंशेंच जातालें. तें उतरांनी सांगूक जावचें ना.

भुरगेपण सोपून पोरगे कितले बेगीन व्हडले जाले कळ्ळेंच ना. परेशाचो जल्म जाल्लो तेन्ना कितली खुशालकाय भोगिल्ली आमकां. कितें करचें आनी कितें नाका कांयच समजनाशिल्लें. दीसभर भोंवून गांवभर पेडे वाटिल्ले त्या खीणाचो उगडास आजुनूय ताजो आसा. बारशाचो दबाजो जाल्यार अपेक्षे परस मात्सो व्हडलोच जाल्लो. मीनाचे आनी म्हजे खोशये अंतपार नाशिल्लो. तेन्ना आमचें बेतोड्या व्हडलें घर आसलें. घरांत सगलीं मेळून पंदरा - वीस मनशां आशिल्लीं. परेशाच्या जल्माची खोशी आमचे भशेन घरच्या हेर मनशांकूय जाल्ली. म्हजी आई आनी दादा जाल्यार आजी आनी आजो जालीं म्हूण चडूच खोशी जाल्लीं. परेशाची भुरगेपणांत खुबूच अपुरबाय जाली. चड अपुरबायेक लागून तो चड पारपोळ जायत म्हूण म्हाका भिरांत दिसताली. पूण तशें जालें ना.

जिरत्त चार वर्सांनी प्रकाशाचो जल्म जालो. चली जाल्यार पुरो म्हूण मीनान देवाक आंगवण केल्ली. पूण ताची आंगवण देवान आयकलीना. दुसरोय चलोच जालो. हे फावट मीनाक खूब त्रास जाल्ले. ऑपरेशन करचें पडिल्लें. देखून परेशापरस प्रकाशाचेर ताचो चड जीव आशिल्लो.

दोगांय भुरग्यांचें सगलें करता म्हणतार मीनाचे दीस अचळय उडून वताले. मीनाचें शिक्षण एम. ए. मेरेन जालें. ताच्या शिक्षणाचो उपेग जावंचो अशें सगल्यांकूच दिसतालें. भुरग्यांक लागून ताचीं सुरवातीचीं पांच - स वर्सां फुकट गेल्लींच. आतां आनीक वचचीं न्हय अशें वगीच दिसतालें. देखून हांवेन एक दीस ताका म्हळें... 'मीना...?'

'कितें...?'

'अशें भुरग्यांचेंच कितलो तेंप करतलें?'

'कित्याक म्हण्टा...?'

'खंयूय सिर्विस मेळ्ळ्यार करपाक कसली हरकत आशिल्ली?'

'आनी भुरग्यांक कोण पळयतलो?'

'दवरची कोणाकूय...'

'नाका... नाका... हांवूच पळयतलें तांकां. म्हाका सिर्विस बीन कांय करपाचें नां.'

त्या दिसासावन हांवेन मीनाक सांगपाचेंच सोडून दिल्लें. भुरग्यांवांगडा तें खुशाल आशिल्लें. तांकां कितें जाय कितें नाका तें सगलें तेंच पळयतालें. आनी खऱ्यांनींच मीनाक लागून म्हाका भुरग्यांचो हुस्को जायनाशिल्लो. ते दोगूय इस्कोलाक वचपाक लागले तेन्ना मीनाच तांकां हाडपाक व्हरपाक लागलें. इस्कोल सुरू जालें तशीं तांचीं कामां वाडलीं. घराकडेन मीना हेर कामां जाल्या उपरांत तांकां अभ्यास करपाक घेवन बसतालें. चड अपुर्बायेक लागून ते हाताभायर वचत म्हूण भिरांत आसली. पूण तशें जालें ना. वयल्यान बरें जालें. ते दोगूय शिकपाक हुशार आशिल्ले. परेश प्रकाशापरस चार वर्सांनी व्हड आशिल्ल्यान तो शिकपाक चार वर्सां मुखार आशिल्लो. दोगूय बऱ्या मार्कांनी पास जाताले. वर्गांत पयल्या तीन नंबरांभीतर तांचो नंबर आसतालोच.

धावेच्या परिक्षेंत परेश गोवा बोर्डांत दुसरो आयलो. ताणें आमचें नांव वयर काडलें. परेशापरस लोकांनी म्हाका आनी मीनाकूच चड परवी दिली. तेन्ना आमचे खोशयेक शीम-मेर उल्ली ना. ऑफिसांत जाल्यार सगल्यांनीच म्हाका उबारून माथ्यार घेतलो. सगल्यांक मागीर पार्टी दिवची पडिल्ली. त्या वगतार पयशांचो बीन हुस्को दिसना. ती एक वेगळीच खुशालकाय आसता.

परेशाक कॉलेजींत प्रवेश मेळोवपाक कांयच तकालस पडली ना. बोर्डांत दुसरो नंबर मेळिल्ल्यान ताका जायतीं इनामां मेळिल्लीं. त्या खातीर पयशाचेंय चड वजें पडलें ना. हांवेन जाल्यार तांकां सांगुनूच दवरिल्लें - 'तुमी शिकपीच जायात... हांव कितलेय पयशे

खर्च करपाक तयार आसा.' आनी खऱ्यांनीच तांचे खातीर कितलेय पयशे मोडपाक म्हाकां कांयच दिसं नाशिल्लें.

बारावी जाल्या उपरांत परेशान दोतोरकेचें शिक्षण घेवचें अशें म्हाका मनांतल्यान दिसतालें. मीनाकूय तशेंच दिसतालें आसुंये. पूण ताणें तशें उलोवन केन्नाच दाखयलें ना. बारावेचो निकाल लागल्या उपरांत मुखार कितें करपाचें थारायलां अशें परेशाक हांवेन विचारलें मात. ताची जाप तयार आशिल्ली 'म्हाका दोतोर जावपाचें ना. हांव कॉम्प्यूटर इंजिनियरींग करपाक सोदता'.

'जशी तुजी इत्सा' अशें म्हणून हांवेन मुखार उलोवपाचीं पिशेपणां केलीं नांत. आतांच्या भुरग्यांक सगलें पयलींच कळटा. कितें करपाक जाय तें तांकां कोणीच सांगपाची गरज ना. आमच्या तेंपार तशें नाशिल्लें. बापूय सांगता ते सगलें आयकुचें पडटालें. हांव मॅट्रीक पास जाल्लों तेन्ना विज्ञान फांट्यात वचपाची म्हाका खूब उमेद आसली. पूण बापायन म्हाका नाका म्हळो. देखून मन मारून कॉमर्साक वचचें पडलें. कितेंतरी शिकयलें आनी बापायचें काम जालें. ताचो परिणाम आतां हांव भोगतां. ऑफिसांत दीसभर फायलींनी तोंड घालून बसचें पडटा. दिसाचें काम सोपलेंना जाल्यार रातचोय मागीर बसचो पडटा. देखून हांवेन पयलींच थारायल्लें. भुरग्यांचे इत्से आड येवप ना. तांकां कितें आवडटा तें करूं.

परेश कॉम्प्यूटर इंजिनियर जालो आनी म्हज्या जिवाक सूऽऽ जालें. कॉम्प्यूटर इंजिनियरांक वचत थंय खूब वाव आसा हें हांव जाणां आशिल्लों. आनी जालेंय तशेंच. परेशाक वेगवेगळ्या कंपन्यांकडल्यान पत्रां येवपाक लागलीं. पूण परेशाक असल्या कंपन्यांनी रस नाशिल्लो. हें म्हाका उपरांत कळ्ळें. एक दीस अमेरीकेंतल्यान आयिल्लें एक पत्र ताणें म्हाका दाखोवंक हाडलें... तो सामकोच उचांबळ जाल्लो.

'पप्पा म्हाका अमेरीकेंतल्यान ऑफर आयल्या'.

'कसली रे...?'

'सिर्विशेची!'

'कितें? इतले पयस सिर्विस? हांगा कितें सिर्विसो ना पडल्यात?'

'तशें न्हय पप्पा. पगार कितो जाणा?'

'कितलो?'

'सुरवातेकूच म्हयन्याक देड लाख रुपया! त्या भायर रावपाक सुवात, मोटार बी सगलें फ्री...'

'तें आसूं रे. पूण इतले पयस वचप म्हळ्यार...'

'नाका म्हणूं नाका पप्पा. थोडो तेप तरी हांव थंय वचून पळयतां'.

'मम्मीक विचार...' म्हजें सांगणें ताणें आयकलें ना तरीय मीनामुखार ताचीं शाणेपणां चलचीं नात हें हांव जाणां आसलों. मीनान ताचें आयकून सुरवातेक सामकेच कानार हात दवरले. पूण उपरांत हांवेनूच चिंतले तें. ताची तशी इत्सा आसल्यार वचूं ताका. अजून मेरेन ताची एकूय इत्सा हांवेन मारूंक नाशिल्ली. मीनाकूय हांवेन तेन्ना जायतें समजायलें. परेश सदांच दोळ्यांमुखार दिसचो ना हें येवजुनूच ताका कितेंशेंच भोगातालें. पूण हांवेन ताका जायतो धीर दिलो आनी निमाणेकडेन म्हाकाच ताका तयार करचें पडलें. पूण मीनान मनांतल्यान हयकार दिलोच ना. दोगांय भुरग्यांक सोडून मीना एकूय दीस खंय भायर सरून वचूंक नाशिल्लें. परेश दोळ्यां मुखावेल्यान पयस वतलो ही कल्पनाच ताका सहन जाय नाशिल्ली. परेशाचें अमेरिकेक वचपाचें निश्चित जातकूच मात मीनान फुडली सगली तयारी केल्ली. पूण परेश जेन्ना भायर सरून गेलो तेन्ना मात मीनाक समजायताना म्हाका नाकापुरो जाल्लें. मीना कितल्या हळव्या मनाचें तें तेन्ना म्हाका कळिल्लें. शेगीत दोन दीस ते रड रड रडलें. ताचें कित्यांतूच लक्ष लाग नाशिल्लें. कितल्योशोच राती ताणें जागोवन काडल्यो. परेश म्हयन्यांतल्यान एक तरी चीट बरयतालो. मीना परेशाचे चिटयेची वाट पळयत रावतालें.

दोन वर्सांनी परेश परतो येवन वतां म्हण्टालो. पूण कामाचो व्याप वाडिल्ल्यान ताका येवपाक मेळनाशिल्लें. पंदरा मार्चाक परेशाचो वाडदीस येतालो. तो अमेरिकेक वचचे पयलीं ताचो एकान एक वाडदीस व्हडा दबाज्यान मनयल्लो. पूण आतां त्या दिसाक अर्थूच उरूंक नाशिल्लो. अर्थ आशिल्लो तो ताका फोन करून परबीं दिवपा पुरतो. ताच्या वाट्याची सगली अर्थ - अपुर्बाय आतां प्रकाशाच्या वाट्याक येताली. मीना जाल्यार परेशाची उणीव प्रकाशाक दोळ्यांसामकार दवरून भरून काडपाचो यत्न करी. अशेतरेन पांच वर्सां कशींतरी उलगली.

प्रकाश दोतोरकेची परिक्षा पास जालो आनी ताणे म्हजी इत्सा पुराय केली. एकटो तरी भुरगो दोतोर जाल्यार पुरो अशें हांव मनांतल्यान मागतालों. प्रकाश दोतोर जालो. पूण खरी खुशालकाय भोगली ती म्हाका. पूत दोतोर जाला ही कितले खोशयेची गजाल! पूण मीनाक इल्लीय खोशी जावंक नाशिल्ली. एक दीस उलयतां - उलयतां ताणे म्हाका म्हणिल्लें - 'जांचीं भुरगीं सारखीं शिकनांत ते आवय बापूय कितले नशिबवान न्हय?' ताचें उलोवणें आयकून हांवेन ताका पिशांर काडिल्लें. पूण ताच्या हिसपान ताच्या

उलोवण्याक खूब अर्थ आशिल्लो.

आपूण दोतोरकेची परिक्षा पास जालों ही गजाल प्रकाशानूच परेशाक कळयली. परेशाकूय ती गजाल आयकून खूब खोशी जाली. पूण भारतांत दोतोरांक चड वाव ना वा तांच्या गिन्यानाचो फावो तसो उपेग जायना अशी परेशाची कागाळ आशिल्ली. देखून आपले भशेन प्रकाशाकूय ताणें अमेरिकेचें पिशें लायलें. ताणें ताका आपणावांगडा अमेरिकेक येवपाक सांगलें. आनी प्रकाशानूय पयलीं आमकां विचारिनासताना अमेरिकेक वचपाची तयारी दाखयली.

प्रकाशान गोंयांतूच रावून प्रॅक्टीस करची अशें म्हजें मत आसलें. त्या खातीर ताका हॉस्पिटल लेगीत बांदून दिवपाची म्हजी तयारी आसली. त्या निमतान कामा वांगडा समाज सेवाय जावपाची. पूण आतांचे पिळगेक कितें जालां देवाक खबर! प्रकाशानूय परेशाभशेनूच केलें. तोय ताच्याच वळणार गेलो. अमेरिकेक वचपाचें पिशें घेवन बसलो आनी आमकां दोगांकूय सांडून गेलो.

आतां जाता त्या उतरांनी मीनाक समजावपाभायर म्हजेकडेन कसलोच उपाय नाशिल्लो. एके वटेन मीनाची म्हाका काकूट दिसताली. जाल्यार दुसरेवटेन भुरग्यांचोय कांय गुन्यांव दिसनाशिल्लो. आमींच दोगांय सुवार्थान वागतात अशें म्हाका दिसपाक लागलें.

आतां आपणाक आनीक उठपाचेंच ना अशेतरेन मीना खाटीचेर दसून राविल्लें. म्हज्याय जिवाक जायतें भोगतालें पूण मीना हुजीर तरी तें उक्तावंक जाय नाशिल्लें. देखून हांवेन ताच्या माथ्यावेल्यान हात भोंवडायलो. ताका लागीं ओडलें आनी समजावपाच्या सुरांत एक एक तत्वगिन्यान ताचे तकलेंत भरपाक लागलों 'दर्या कुशीक कार्यशाळांनीं ज्यो बोटी बांदतात त्यो सोबेखातीर आसनात... जाल्यार त्यो दर्यांत सोडपाखातीरूच आसतात. दर्याचो थाव घेयत त्यो मागीर आपणालें अस्तित्व सोदून काडपाचो यत्न करतात...' हांव सांगतालों आनी मीना शून्यांत नदर लावन आयकतालें. म्हाका मात म्हजेंच तत्वगिन्यान फटकिरें आनी अडेचें कशें दिसतालें... तरीय मीनाच्या दोळ्यांत पळयत हांव म्हाकाच समजावपाचो यत्न करीत रावलों.












# निपुत्रीक

'आपासारखो भांगर मनीस चुकुनूच जल्माक येता.'

'असलेच मनीस देवाक  पयलीं जाय पडटात'.

'एकूच चुकयलें ताणें'

'कितें तें?'

'निपुत्रीक तो!'

भायल्यान आयिल्लो कोणाचो तरी आवाज निलाच्या कानांत सुयेवरी रोमलो आनी आवयक वेंग मारून रडपी निला सट्ट करून उठून बसलें. भायर आंगणात शंबरेक लोक जमिल्ले. आयतार आशिल्ल्यान सगळ्यांक सुटी आशिल्ली. आपाच्या कुडीचें निमाणें दर्शन घेवंक ताच्या मरणाक लोकांनी गर्दी केल्ली. पूण सगळ्यांकूच एक व्हडलो प्रस्न पडिल्लो. आपाची किरी आनी मरण कोण करतलो? जाण्टेले जाल्यार अख्खें मळब तकलेर घेवन बशिल्ले. कोंड्याची तिरडी बांदून तयार जाल्ली. आपाची कुडूय तिचेर दवरिल्ली. पूण पयलो खांद मारपाक कोणूच मुखार येनाशिल्लो.

आपा जिवो आसताना आपा म्हळ्यार गांव आनी अख्खो गांव म्हळ्यार आपा अशें समिकरण जातालें. आपाचें खरें नांव थोड्याच जाणांक खबर आशिल्लें. पूण अख्खो गांव ल्हान भुरगीं ते जाण्टे मेरेन ताका आपा म्हणून वळखताले आनी आपा म्हणून पाचारताले. आपा एक समाज कार्यकर्तो आशिल्लो. तो व्हडलोसो शिकूंक नाशिल्लो. पूण ताचे विचार शिकिल्ल्या मनशांक लेगीत लजयताले. अडचल्ल्या मनशाखातीर तो रातीचो दीस करतालो. आपा  भुरग्यांवांगडा भुरगो जातालो आनी जाण्ट्यांवांगडा जाण्टो जातालो. आपाक विचारल्या वगर गांवांत कसलीच गजाल जाय नाशिल्ली. आपा म्हळ्यार सगल्यांचोच व्हड आदार आशिल्लो. असो हो आपा... सगल्या गांवाक सोडून पुराय जाण्टो जावचे पयलींच काळजाच्या आताकान भायर पडलो. ताच्या मरणान गांवाक एक





धक्कोच दिलो.

गांवात तेन्ना एकट्याची पांच तरी भुरगीं आसतालीं. एक तरी भुरगो आसपाक जाय ना जाल्यार वंशाचो दियो पेटत रावचो ना हाची भिरांत लोकांक भेश्टायताली. चली म्हळ्यार परक्याल्या घरचें धन. तें आयज आसा म्हळ्यार फाल्यां ना अशे समजुतीन लोक वागताले, पूण आपाचे विचार वेगळे आसाले. चलो आनी चली हांचेमदीं आयज कांयच वेगळेपण उरूंक ना. हाची जाणविकाय ताका जाल्ली. हाकाच लागून निलाचो जल्म जातकीच ताका आनीक भुरगीं नाका अशें दिसपाक लागलें. ल्हान घराबो म्हळ्यार सुखाचो वझरो अशें तो मानतालो. आपलो विचार लोकांकूय पटोवन दिवपाचो तो यत्न करी. पूण ताचो तो विचार लोकांक अविचारूच दिसलो आसूंये. हो एक विचार सोडल्यार आपाचे सगळे विचार लोकांक मानवताले. हाकाच लागून लोक ताका खूब मानताले.

आपान आपणाल्या बऱ्या आनी उजू करण्यांनी गांवांत आपणालें नांव अव्वलवर करून दवरिल्लें. आपाचें भाट बेंस आशिल्ल्यान ताका घरची येणावळ बरी मेळटाली. ल्हान घराबो आशिल्ल्यान ताका चड खर्च येनाशिल्लो. पूण ताका पयसो गांठीक मारून दवरपाची संवय नाशिल्ली. ताचो सभाव दानी आशिल्लो. देखून ताणें गरजेवंतांक दान करताना केन्नाच फाटीं - फुडें चिंतले ना. गांवांत कोणाचीय लग्नां कार्यां पयशांक लागून अडचलीं जाल्यार आपा तांच्या आदाराक धांवून पावतालो.

लोकांनी शिकपाक जाय. शिक्षणाबगर मुक्ती ना. आनी मनशाक मुक्ती आसलेबगर विचार येनांत अशें आपा सांगतालो. गावांत शिक्षणाच्यो सगल्यो सुविधा उपलब्ध जांवच्यो म्हूण आपान खूब यत्न केल्ले. पयलीं गांवच्या भुरग्यांक गांवात शिकपाची व्यवस्था नाशिल्ली. पूण आपाच्या यत्नांनी गांवात इस्कोल जालें आनी जांकां गरीबतायेक लागून शिकप शक्य नाशिल्लें तांकां लेगीत शिकपाची संद मेळ्ळी.

एका वर्सा भर पावसांत गांवाचेर व्हडले अरिश्ट आयलें. वादळ जावन जायतीं घरां मातयेभरवण जालीं. मातयेच्यो वण्टी उदकांत पघळल्यो. लोक बेघर जाले. तेन्ना सगल्यांत पयलीं आपाच तांकां धांवून पावलो. ताणें फाटलो विचार करिनासताना लोकांक आपणाल्या घरांत, गोठ्यांत, लॉजांत खंय खंय लुगार मेळटा थंय रावपाक आसरो करून दिलो. इतलेंच न्हय जाल्यार लोकांच्या खाणाजेवणाची व्यवस्था ताकाच करची पडली. आपाचें व्हड मन पळोवन राजकारण्यांची कावळ्यांची नदर ताचेर पडपाक वगत लागलोना. राजकारणी ताका आपणाल्या पक्षांत ओडपाक तरेकवार

मांडण्यो करपाक लागले तेन्ना आपान कानार हात दवरून तांकां जाप दिली.

'हें पळयात. हांव एक समाजसेवक. लोकांची सेवा करप हें हांव म्हजें कर्तव्य समजतां. तें करपाक म्हाका राजकारण खेळपाची गरज ना'.

'पूण आमकां तुमची गरज आसा. आतां तुमी फक्कत गांवाचीच सेवा करतात, पूण राजकारणांत आयले जाल्यार तुमकां देशाची सेवा करपाची संद मेळटली'-राजकारणी अकलेक येवन ताका समजायताले.

'कोण सांगता हांव देशाची सेवा करीना म्हूण? गांवाची सेवा केल्यार लेगीत देशाचीच सेवा घडटा. तें म्हाकां कोणीच सांगपाची गरज ना' - अशें सांगून आपा राजकारण्यांक फापुडटालो. तो तांचेपसून सदांच वांवभर पयस रावतालो.

आपा चड शिकूंक नाशिल्लो पूण शिक्षणाखातीर ताका कसलीच केन्ना अडचण आयलिना. पूण गांवच्या सगळ्या भुरग्यांनी शिकचें अशें ताका दिसतालें. कोणालेय भुरगो शाळेंत वचपाक तयार नासलो जाल्यार आपा आपूण जावन ताची खबर घेतालो.

'शाळा सोडली खंय रे तूंवेन?

'....................................'

'तोंड ना रे उलोवपाक?'

'नाऽऽ आपा. शाळा सोडूंक ना.'

'मागीर कित्याक गेलो ना तर शाळेंत?'

'आतां वतलों... ' अशें म्हणून तो भुरगो आपा हुजीर शाळेंत वचपाक भायर सरतालो आनी तो शाळेंत गेलो काय ना तें आपा आपूण मुजरत शाळेंत वचून पळयतालो. अशे तरेन आपाक लागुनूच गांवचे जायते भुरगे शिकपाक पाविल्ले.

'चलयांक कित्याक शिकोवपाक जाय?' अशें कोणीय म्हळें जाल्यार आपाचें पित्त चाळवतालें. चले आनी चलयांमदीं लोक आजुनूय वेगळोचार करतात तें पळोवन आपाक गांवच्या फुडाराचो हुस्को जातालो.

'संवसार खंय पावला. पूण तुमचीं अडाणीपणां सोपनांत मरे?' - चलयांचो प्रस्न आयलो म्हणटकीत आपा तिडकतालो.

निला ही आपाची अपुरबायेची एकलीच धुव. आस्पतिचो वारसदार म्हूण आपाक एक चलो भुरगो जांवचो अशें सगल्या गांवाक दिसतालें. पूण खासा आपाक मात तशें केन्नाच दिसलें ना. निलामदीं तो पूत आनी धूव अशीं दोनूय रूपां पळयतालो. कोणेय जाण्टेल्यांनी चल्याभुरग्याचो विशय काडलोच जाल्यार आपा तांकां परती जाप दितालो.

'चलो भुरगो ना म्हूण म्हाका इलेंय वायट दिसना. तुमी कित्याक म्हजो इतलो हुस्को करतात?'

'आपा, चलो तो चलो! चली कितें घराच दवरूंक मेळटा? लग्न जाली म्हणटकीत चली आवय बापायक विसरता'.

'विसरना तेवटेन? भुरग्यांनी जाण्टेपणांत आवय - बापायक पळोवचीं अशी अपेक्षाच तुमी कशी करतात म्हाका समजना'

आपाचे विचार लोक आयकून घेताले. पूण तांकां ताचे विचार म्हळ्यार पिशेपणाचे कशे दिसताले.निमाण्या खिणाक तरी चलो जाय पडटा अशें लोकांक दिसतालें. मनांत हाडल्यार आपागेर चलो-भुरगो जांव येतालो. पूण आपान चल्या भुरग्याचो विचारूच सोडून दिल्लो. आपणाली देख हेरांनीय घेंवची अशें ताका मनांतल्यान दिसतालें. पूण विखाची परिक्षा घेवपाची लोकांची तयारी नाशिल्ली.

निला खंयचेच वटेन फाटीं उरचें न्हय म्हूण आपान जायती जतनाय घेतिल्ली. ताका सगळे तरेचें शिक्षण दिल्लें. पुस्तकी गिन्याना भायर शिवण -सूत, रांदप-वाडप हेंय ताका बेस बरें कळटालें. निला खेळांत हुशार आसलें. ताका सगले तरेचे खेळ कळटालेच. ते भायर काराटे, जुडो हातुंतूय ताणे नांव जोडिल्लें. तें सायकल आनी स्कुटरूय चलयतालें. चली भुरगें स्कुटर चलयता तें पळोवन सुरवातेक गांवच्या लोकांक कितेंशेंच दिसतालें. पूण उपरांत लोकांक ते गजालीची संवय जाली. आपाक मात आपणाले चलयेचो अभिमान दिसतालो. चल्याभुरग्याचें उणेपण निला भरून काडटलें हाची ताका खात्री आसली आनी घडटालेंय तशेंच.

एक दीस गांवातलो एकटो जाण्टेलो अकस्मात भायर पडलो. ताका भुरगेंबाळ नाशिल्लें पूण ताच्या उजू सभावाक लागून गांवचो लोक ताका खूब मानतालो. ताच्या मरणाक खूब लोक जमिल्लो. पूण मरण करपाक कोणूच तयार नाशिल्लो. तेन्ना आपान आपूण मुखार सरून सगळें केलें. जाण्टेल्यांनी ताका जायतो समजायलो, पूण आपा तो! ताणे आपलें तें खरें केलें. असलीं कामां करताना आपाक पुण्य केल्ल्याचें समाधान मेळटालें. आपणाकूय कोणूय असोच पावतलो अशें ताका दिशिल्लें काय?

पुराय गांवाक आपाचो व्हड आदार आशिल्लो. पूण तो आदार आयज सासणाचो ना जाल्लो. आपाच्या मरणान निलाक आनी आपाचे बायलेक व्हड धक्को बशिल्लोच. तेच वांगडा पुराय गांवाचेर लेगीत दुख्खाचें सांवट पातळ्ळें. जाण्टेल्यांचेर जाल्यार दोट्टी वजें पडिल्लें. एके वाटेन आपाचें अचकित मरण आनी दुसरे वाटेन ताचे मरण कोणी करपाचें हो हुस्को. कांय जाण जाल्यार जायफाय उलोवपाक लागिल्ले.

'निपुत्रीक तो' हीं कोणेतरी म्हणिल्लीं उतरां निलाच्या काळजाक रोमलीं. आपाचेंच रगत ताच्या शिरंतरांनी खेळटालें. फाटलो - फुडलो करालोच विचार करीनासतना तें एकाच दमान घरांतल्यान भायर सरून आंगणांत आयलें. 'हांव आसां... कोण सांगता आपा निपुत्रीक म्हूण?' निलाचीं उतरां आयकून सगले तटास जाले. आंगणांत जमिल्ले सगले जाण्टे नेण्टे दादले उलोवपाचे थांबून निलाक पळयत रावले.

निला भायर आयलें तशें तिरडे म्हऱ्यांत गेलें. ते बरावर गांवातलो एकटो जाण्टेलो ताच्या लागसार गेलो. निला तिरडेक हात घालपाक वागवलें. जाण्टेल्यान ताका आदार केलो. खिणाचोय कळाव लाय नासतना ताणें तिरडेंच्या कोंड्याक हात घातलो. निला तिरडी उखलता तें पळोवन चार-पांच जाण धांवून मुखार आयले आनी तांणी निलाक आदार दिलो. एकेवटेन निलान तिरडी उबारून कोंड्याचें पोंत आपणाल्या खांदार घेतलें. निलान आपणालो पांय उखल्लो तशे सगळे जाण ताचेवांगडा चलपाक लागले. आपाली अंत्ययात्रा सुरू जाली.

निला वांगडा सगळे जाण मसंडीची वाट चलताले. वाटेर वाटभर कोणेंच जाप काडलीना. सगल्याक किण्ण पडिल्लें. जाण्टेल्यांक जाल्यार आपणाल्या दोळ्यांचेर विस्वास बसं नाशिल्लो. आपाच्या मरणाच्या दुख्खान घरांत आवयक वेंग मारून रडपी निलाचे डोळे पाशाणावरी सुके सडसडीत आशिल्ले.

आपाची कूड जळपाक सारी दाळून पयलींच तयार आशिल्ली. तिचेर कांय जाणांनी आपाची कूड उबारून दवरली. हेर विधी जाल्या उपरांत कोणेतरी उज्याचो कवदो पेटोवन मोन्यांनी निलाच्या हातांत दिलो. निलान शांतपणान उज्याचो कवदो पेटोवन सारयेच्या लाकडांक तेंकयलो. लाकडांनी पेट घेतलो. आपाची कूड उज्यांत लेगीत तुश्ट हांसता असो वगीच निलाक भास जालो.

कांय खीण निलान बापायच्या उज्यांत जळपी कुडीवसल्यान पळयलें आनी थंयच तें कुशीक वचून उबें रावलें. कांय वगत मोन्यानींच गेलो. तितले म्हणसर सारयेंत आपाल्या मेंदवाचे कवठेचो ठाऽऽ करून आवाज जालो. मुखार कितें करपाचें तें निलाक खबर नाशिल्लें. व्हदळचो जाण्टेलो कुशीक बसून ताकाच पळयतालो. तो मुखार सरलो. ताणें ताच्या फाटीवेल्यान हात ओडलो. 'या.. न्हू गो पुते?' - जाण्टेल्याच्या उतरांनी इतलो वगत आडावन दवरिल्लो निलाच्या दुख्खाचो बांद फुटलो. पूण खीणभरयांत ताणें आपणाक सावरून धरलें आनी जाण्टेल्या वांगडा परतें घरा वचपाक पावल उबारलें. थंय जमिल्ले सगळे जाण अजापान ताका पळयत उल्ले. 'निपुत्रीक' उतर चुकून लेगीत कोणाच्या तोंडार आयलेंना... जायत्या जाणांक प्रस्न पडिल्लो - 'आपा खरोच निपुत्रीक?'

